# काव्य धारा

वत्सला मंजुनाथ राव




मोल : पांच रुपया

# काव्य धारा

## वत्सला मंजुनाथ राव




मोल :   पांच रुपया

(Konkani)
KAVYA DHARA
Anthology of poems

By :
Mrs. Vatsala Manjunath Rao

First Edition :
March 1989



Published by :
Kerala Konkani Academy

Admn: Office
'Vatsal' Krishnaswamy Road
Cochin-682 035

Printed at :
Jyothi, Chathari-Tripunithura

Price : Rs. 5-00

# नान्दि

श्रीमती वत्सला मंजुनाथ राव हांगेलें तिसरें कविता-
पुस्तक सहृदय वाचप्यां हातांतु दितना नान्दी रूपान कांय उतरां
बरौंचाकं ताणि दिल्लोलो आदेश माथ्यार घेवनु हांव ही
उतरां बरैतां ।

श्रीमती राव कालिकट शारांतुले सगळे जनांक ओळकीची,
त्या नगराचे प्रथम मेयर स्वर्गस्थ मंजुनाथ रावाली धर्मपत्नी,
त्या नात्यान वत्सला 'पाच्ची' चो परिचय, स्नेह-सत्कार आनी
सेवा घेनात्तिल्लो कोणूय सान-व्होड दादूलो-बायल आसू ना ।
केरळांतुले 'कोंकण जनता', मंगळूरचे 'पंचकादायि' ह्या
पत्रनाळ्यांतुल्यान आनी मंगळूर आकाशवाणीचे मुखान्तरीं
हांगेले कवितेचो आस्वाद घेनात्तिल्लो कोणय कोंकणी प्रेमी आसू
ना । देखून तांची ओळकि करनु दिवचें ना मूं ।

पाच्चीले 'काव्यधारा' ह्या पुस्तकांतु बावीस सान-सान
कवनां आसात । हांतु चड करनु उपदेशात्मक (Didactical)
कविता आयल्या । कवितेंतुल्यान ताणि दिवुचे उपदेश फकत

सांगून-आयकून काडळेले न्हय । ते ताणि आपण्याले आवसु बापसूले आनी पतिदेवाले जीवनांतु अनुभव पाविल्ले आनी जीवितांतु प्रयोग करनु घेतल्ले । देखून,तांतु स्वानुभूतीची हुनसाणि वाचप्यांक दिसतली । कुटुंबांतु व समाजांतु बरे तरेन ज़ीवित चलौंच्याक कसकसले आदर्श आमी पाळूंक जाय, ते कांय कांय रूपान ह्या कवनांतु आमकां मेळतात। प्रीति, स्नेह, दया, आदर, समभावना, सेवाभावना इत्यादि गुणांक पोषण दिंवचे तराचे उपदेश 'पाच्ची' सदा-सर्वदा दिता । 'पाच्ची' वरीचे एक प्रशस्त समाज सेविकेचे जिबे वेल्यान ते भायर सरतात म्हळेलेंच तांचें महत्व ।

वत्सला मायेंक सान धरनु श्री रामकृष्ण मिशनाचे स्वामी वीरेश्वरानन्द, स्वामी यतीश्वरानन्द असले श्रेष्ठ मनिसांलो सत्संग मेळ्ळा । स्वामी विवेकानन्दाले ग्रन्थ दुसदुसरि दुसदुसरि वाचिल्याचो संस्कारूय तांचे मनांतु घट्टि राबला । आनी मायेंचो पतिदेवूय त्याज नमून्याचो एक महात्यागी मनिस आशिशल्लो । तो समाजसेवाच उत्तम मनिसपणाचें लक्षण म्हणु लेकून सेवानिरत जीवन जियेतालो । तशी उत्तम जीवनांचे खरे आदर्श वत्सला पाच्चीक मेळ्ळे । आनी ते आदर्श कवितेंतुल्यान आमकां दिंवुचाक पाच्ची वावुरता।

ह्या पुस्तकांतूच सान सान काणिये रूपानय कांय कवनां आसात । काणि सांगच्यांतु पाच्चीलें चातुर्य हांतु फुरफुरेता.

कमलाक्षु स्वर्गवासजालो, आनन्दाक आंगा हुनसाणि, अपरिचित-ह्या कवितेंतु रसपतीच्यो काणियो सांगल्यात । असल्यो सरस, उजू, सरल काणियो ताणि खयींय थकून निकळावनु काडळेली न्हय, त्यो पाच्चील्यो स्वन्त काणियो । तांतु ताणि आपण्याले अनुभवांक रूप दिल्यां ।

अशी स्वानुभवांक रूप दिवुचे तांगेलें चातुर्य आत्मकथा-कथनाक बरें आसतलें । देखून वत्सला पाच्चीली आत्मकथा अपुरबायेची आसतली । ती आत्मकथा वाचूक आमकां भाग्य मेळो म्हणु हरद्यां थकून देवा लागि विनन्ति करनु हें अकादमीलें सोळावें प्रकाशान 'काव्यधारा' सादर करतां ।

दिवाळी

8—11—1988

पी. जी. कामत

अध्यक्ष

केरळ कोंकणी अकादमी

कोचिन

# समर्पण आनी धन्यवाद

हें मेगेलें आखेरी कविता पुस्तक
हांव परमात्माक, मातृभूमीक, कोंकणी मातेक
विनीत जावनु समर्पण करनु
माका प्रोत्साहन दिल्लेल्यांक धन्यवाद सांगूनु
चूकि कसलीय दिसल्यारि, तुमगेले नेत्रांक
पुस्तक वाचील्यां लागि माप मागूनु
हांव मेगेले अस्त्र तत्कालाक
हंसमुखि जावनु सोडतां, तोगु दवरनु ।

—वत्सला मंजुनाथ राव

# कवितेंची वळेरी





# I. सरस्वती स्तुति

देवी सरस्वती वीणाधारी
माका बुद्धि विद्या दिल्लेली.
नमस्कारू सांगतां तुका
आशीर्वाद दी मेगेले पुस्तकाक.
तुगेली स्तुति केल्लेले मात्रान
जावो मेगेलें काम आसान
बरैलेली कविता सगटांक संतुष्ट करो
तूं मेजेरी केन्नाइ दया दवरो.
देवि, तूं सर्वांकय जावका
तुजी दया मेळना तरि लक्ष्मी लागि मागूका
तुमीं दोगयीं दया करताय तरि विद्याधन मेळतलें
पार्वती सर्व काम चलासुचाक शक्ति दितली.
कोणै एकलेक सोणु खेळचाक जायना आमकां
देवी यो सगटय एकची, पावता नमस्कार तुमकां
सरस्वती देवी म्हणु आपयतां
त्रिमूर्ति भक्ति ! भारु तुजै वैरि दवरतां. □

# 2. प्रभात गींतु

(दादल्यानि म्हणचाक)

श्री वेंकटेशा ! ये माजे देवा !
उटा, उटा, फालें जाल्लें
हे समयारि करतां तुजी सेवा
उटा, उटा, फालें जाल्लें.
फान्त्यारि उटावनु, न्हावनु येवनु राबलां
वस्त्र फूल हाळां तुका घालचाक
तेल, दूद, जल घेवनु आयलां
तुका अभिषेकु करचाक.
तुजे नांव जिब्बेर दवरनु
सुर्वेक तेल लायतां तुका
दुदान परिमळ जलान हे अभिशेकान
आयचें मेगेलें सर्व काम सफल जावका.
पाट्या वस्त्र न्हेसोनु सोडतां
फुलां—तुळसी माळा घालतां
मनां शांति मेळता माका
सकाळींची सेवा—निवेद करतां.
घेवनु येता मेगेली धर्मपत्नी
दूदा—पायस नारल केळीं
कुटुंब समेत राबून तुका आरती करतां
आनी तुजे पायांरि साष्टांग पडतां. □

[मंगळूर आकाशवाणीचे कृपेन]

# 3. विधवा

तिका ना समाजांतु स्थान
ती मुल्यांतु पळ्ळेलें पिकल्लें पान.
वारयान्तु हांगा थांगा उब्बता
कोण खयिं तिका पळैता ?
चर्डु-बाळ परिवार धन आनी भांगर
तिका सगट आसा, तरीय कित्तें आसा तिका ?
धूव तिजे लागि राबून खांवचाक पळैता
सून नणन्देर जाळानि दंद सर्वय मांयक दिता.
प्रीति करूक तिका ना पतिदेव
तिका आश्वास खयिं ? कष्ट दितात सर्व.
धन भांगर तिका दिल्लें ताणे
हाजान तिका सुख मेळतलें, लेकीलें ताणे.
दामु ना, चेर्डु-बाळ ना विधवेक तारि
तिजे कुटुंबांक तोच हुस्को.
जाल्यारीय तिजे सुख-संकटाचो
भारु काडूक कोणय ना, कोणय ना.

विधवा तरि जाली, देवार विश्वास दवरि
धैर्यान भायर येवनु समाजाची सेवा करि
सेवा करतल्लेक आरोग्य देव दित्तलो
पैसे हातां ना जाल्यार कोणाचेय करान दिवैतलो.
सर्वां लागि मर्यादेन चल, मातें उबारनु धरि
कार्य मात्र उलै, सोडू नाका पतिदेवा उडगास.
ताळो व्होड कर नाका, कोपु चड दाखौ नाका
मन दकौं नाका कोणाक, पतिव्रत घट्टि धरि.

□

[मंगळूर आकाशवाणीचे कृपेन]

# 4. कमलाक्षु स्वर्गवासु जाल्लो !

कमलाक्षु स्वर्गवास जाल्लो !
हें सांगून आयलो
रमेश माजे घरल्यागी
दोस्ती मका आशिल्ली कमलाक्षा लागि
हावें ताका पैसे दिल्लेले
ते माका आनी कशी मेळतले ?
सुर्वेक मनां लागली भीति
जाल्ली मूं अस्सली मेगेली गाति !
म्हळें हांवें—'कशी कळ्ळें रे तुका ?
म्हळें ताणे—आयलों हांव हांगा
वाटेर सुरेशाक चोवनु !
'भायर थकूनूच देखलें ताणे—
मस्त मस्त वाहनां राबल्यांत;
रण्णें-बोब घरां भीतरि;
डाक्टर भायर देता, कारार चोणुवत्ता,
'शेजार घरचे नरेशाक, महेशाक
वेगीं हांगा आपय'—हांवें सांगलें
ते दोगय धावनु आयले
दुखा खबर आमचे लागी आयकूक

आमी चौंगय धावले कमलाक्षाले घरल्याक,
थंय जनां कोणै आमकां दिसले ना,
कमलाक्ष येवनु राबता बागिला लागि–
आनी सांगता—"पैसे ना आतां मिजे लागी"
'पैसे खातिर येनी हांव······
रण्णें कितें आयकूक पडतालें ?
इतें विशेष ?—तेंच धावनु आयले आमी ?
'म्हळें ताणे—स्वल्प कष्टाारि पळे आमी ।
'चेरडुवां झगडें करनु रळ्ळीं
मिगेली बायल येतां पळ्ळी
पाया हाड तिगेलें मोळ्ळें,
डाक्टराक आपौन हाडूक कार हाळ्ळें
'जनां स्वल्प हांगा येवनु पावलीं,
डाक्टर आयलो, तिका चोयलो
आस्पत्रेंतु हाडात, म्हणु सांगून गेल्लो
आतां तिका सुख आसा, फोन आयलो ।
कमलाक्षाली ही उत्तरां आयकून
आमी आपाप घरल्याक परतले ।
सत्य कसलें म्हणु कळनाशीं
हो-तो स्वर्गवास जाल्लो सांगू नाकाची । 

# 5. आनन्दाक आंगा हुनसाणि

हून हून उदक आनन्द न्हालो,
दाटि कंबळि पांगूरनु पळ्ळो—
'उटाउंचा जाइना माका
मेगेली दुकी कळ ना तुका ।'
'यो गो, आंगांक अपोणु पळै—
आपयली ताणे आपण्याले बायलेक ।
हगूर आयली ती, चेल्येक घेवनु
—'चोयगो, धुवे, बप्पाक हुनसाणि खयि' ।
आवसूय धूवय राबून चोंयलीं, हासलीं
—हो रोग केन्नाइ अशिशल्लोची ।
म्हळें ताणे—'जायना माका कामा वच्याक
चेल्येक पेटय, वैद्याक आपोचाक ।'
वैद्य आयलो, म्हणालो—
'आंगा हुनसाणि माका दिसना'
'उटाचाक जायना माका'—आनन्द म्हणालो
आंगडीं कामाक बच्याक दिसाना ।'
'रोग माका कळता, आळसाइ' बायल म्हणाली—

'जेवण–खाण नाका, हांवय निद्देन पंगूरनु ।
उटानकाचि, तशी पडाचि'—ताजे लागि
पळ्ळी ती मंचार दोले धांपूनु ।
कळ्ळें ताका, कायींच चलचें ना, अशी निदल्यारि
उटायलो, मुण्ड न्हेसलो, चोगो घालो,
'हांव वत्तां आंगडीतु. उटा, उटा–'म्हणालो ।
'कापी–खाण हाळ्ळ्यारि चांग अशिशल्लें ।'
तशी बायलेन बामणाक बुद्धिदाखैली
आंगा हुनसाणि तत्क्षण राबैली ।
आळसाइ चडि जाल्यारि खावचा दिवचे ना—
हे रोगाक विंगड ओखद ना । 

# 6. अपरिचित

‘हांव तुजे आज्जाले भावालो नातू,
वळखना वे माका ?’—म्हणतां
म्हणतां आयलो तो घरांतु
बेसलो मेजे पतिदेवा लागि ।
‘तुमगेले व्हरडीकेकय हांव हांगा पाविल्लों
दुदा पायसा जेवण घट्टि जेविल्लों
आज तांय विसरनी तें जेवण,
सांजे वेळा गानमेळे श्रवण ।
मेजो पतिदेव म्हणालो—‘आज
मेगेले धूवेलें निश्चय तांबूल,
चांग वेळार आयलो, चांग जाल्लें,
बेस, बेस, जेवण करनु वच्यें चांग ।’
परमळु घरां भरलो रान्दपाचो
खुशीन जेवणाक राबलो तो ।
घूवनु घूवनु चेल्येले कूडांतु पावलो
भांगर—शिंगार देखून संतोषु जाल्लो ।
चेलेक दाकोचाक भायर हाळ्ळो;
चल्यान पळैली, ताका खोशी जाल्ली;
भांगर पळौन तागेली आवसूय तृप्ति
जाल्ली, चेली भितर गेल्ली ।

जेवणाक पानां घालीं, सोयरीं सगट बेसलीं
भांगर काणु दवरनु चेलीय
चावी घेवनु येवनु बेसली ।
अपरिचित आयलो चेल्ये लागि–
'अम्माक चावी दी, पुता'—म्हणालो ।
तिणे तावेळीच दिल्ली चाबी,
'घे, आतांच तिका व्हरनु दी ।'
जेवण जाल्लें, चेली चल्ली कुडांतु—
'अलमारी कवड उदरि पळ्ळां,
भांगरा पेटी खयि ?'
चेल्येन मारली किंचाटी
धावनु पावलीं सर्वजन,
भांगर गेल्लें, कश्शी गेल्लें ?
अपरिचिताली चोराइ सगटां कळ्ळी ।
आतां इतें करप ? समजलें माका,
अपरिचिताक घरां केल्यारि जावचें ।
आमचे पूर्वीक म्हणताले—कसलेंय
कळका तरि सुर्वेक मेळका अनुभव ।



# 7. प्रीति व्होडि

घर व्होळ्ळें, धन जायतें, प्रयोजन इतें ?
प्रीति घरांतु ना जल्यारि ।
पती-पत्नीक प्रीति ना,
चेर्डु-बाळाक कोणाचेरीय मोग ना
यजमान-सेवकांक केदनाय झगडें—
इत्तें चोयता तूं हेकडे ?
संतोषु आसा खयिं ?
प्रीति आशिशल्ले थयिं,
प्रीति घर सोणु धावली,
घराची कीर्ति उस्सळ्ळी ।
प्रीतीन सर्व जनां लागि चल्यारि
कोपु-त्यागु केल्यारि
सगटां मन शांत जातलें
आनन्दान घर भरतलें ।
धन सुखा पाशि व्होड
प्रीतीन घरांतु आसूचें
देवान इष्ट करचें
तुगलो प्रीति चड । 

# ४. प्रायश्चित्त

‘हाका इतें प्रायश्चित्त ?’—म्हणालो
मेगेलो दोस्त भट्टा लागि ।
‘वचूनु आवसूचे पाय धरि,
बायलेलीं उतरां आयकूनु, तिका कशी
चोरी म्हळ्ळें ? वच, पाय धरि,’
‘तुजी बायल तिका पोट्टा घाल ना ।
तानेन भुकेन ती अर्द जीव जाली
तिका इतें करका, कळ्ळें ना
ती एदें दूद काणु पिल्ली ।’
‘चेर्डुवांक दवरलेलें दूद,’ तुजी बायल म्हणाली,
पिश्या ! तूं बिसरलो वे अम्माक ?
अपण्यालें पोट मारनु ती तुका दूदपिवैताली ।
त्या अम्माक तुवें चोरी म्हळ्ळें
आनी आतां प्रश्न करता—प्रायश्चित्त इतें ?
भुइंचेरि आसचे देव अम्मा-बप्पा
आनी गुरुवर्य—हें एद्दोळु कळना किं ?
अम्माक आपौन निमगि, इतें
प्रायश्चित्त करका ?’

अम्मा भायर आसा; तिजे पायांरि
साष्टांग पळ्ळो वीर पुत्र ।
आनी म्हणाल्लो, अम्मा मारि मेजे बोडारि !
स्नेहमयी अम्मान पुत्ताक धरलो पोटोनु
गळ्यावेली भांगरा माळा काळ्ळी
ताजे गळ्यारि घालनु दिल्ली वोग्गी ।
प्रायश्चित्त हावें केल्लें मेजे मोगा पुत्तां ! 

# 9. पाठ-शाला

'अम्मा ! पाठशाला इत्याक ?'—
चेडूं आवसू लागी निंवगीता
विद्या तुका दिवचाक—
अम्मा चेर्डां लागी सांगता ।
'विद्या म्हळ्यारि कसलें ?'
'ज्ञान भुयिचेरि दिसूच सर्वाचें
प्रकृतिकशी चलता, उज्जो कशी जळता
उदक इतें करता, खावचाक कशी मेळता ।
पोर्नें इतिहास, येवचें भविष्य
भूलोक सूर्या सुत्तु घुंवता
दिवस आनी रात्रि अशीं जाता
पाठशालेंतु ही विद्या शिकतात ।
चेर्डा ! पाठशालेंतु वच्चुका,
शिकूनु बुदवन्तु जावका
भासो उल्लौंचाक, बरौंचाक शिकूका
गणित शास्त्र मनां करका ।

आतां वस बप्पा लागि
म्हणाली आवस् चेर्डा लागि
पाठशाला महत्व सांगलें तिणे
सानु जाल्यारीय, मनाँ केल्लें ताणे ।
‘बप्पा व्हरतलो तुका पाठशालेंतु
शिकचाक आनी खेळचाक
वस थयि विंगट चेर्डुवांक पळौयाक
तांचे ओट्टु विद्यामेळतली तुका ।’



# 10. कपट सन्यासी

निडळाक लाइलां भस्म ताणे
धारण केल्लां वस्त्र धवें
खाड वाड्डयलां तोण्ड भरि
केस वळैला वैरि, वैरि ।
हातां जप-माळा, जिब्बरि रामनाम
प्रायि सानि ताका, सन्यास इतें घेतलां ?
घरांतु सुखान बेसता, करना कांई काम
भायर येता वत्ता, माळा आसा हातांतु ।
चेलियांक चोयतना दोळे घुवंडायता
राम राम म्हणप तावेळ विसरता
सन्यासी व्है वे हो ?
देवाक घडि-घडिये सोणु निसरता ।
पैसे कारांले चड पैसे घेतलो
तांगेले हातांक ताऊज बांदतलो
कपट-नाटक केदनाइ खेळतलो
देवाक ताइं ताव-तावेळ फटैतलो ।
पापी जीवांक एक सन्यासी मेळ्यार पुरो
जलांतु तण धरल्यावरि, घट्टिट धरता ताका ।
देवा लागि कशीय पावल्यारि पुरो
म्हणु धरनु लांबतायि ताका ।

अम्मा-बाप्पा लागी सांगता—
'व्हारडीक नाका माका' आनी निपौनु
चेलियांक सोद्दूनु भोंवतलो ।
चेलीयो मेळ्यार हासु-खेळु ताका
हाका म्हणताती कपट सन्यासी
अस्सले मनिषाक पळैल्यारि
तुमी दूर राबाची
देवालो उडगास केन्नाइ कराची ।



(मंगळूर आकाशवाणीचे कृपेन)

# 11. बागिलारि कोण मारता ?

'गड गड गड'—बागिलारि कोण मारता ?
'येना वे तूँ'—अशीय आयकूक येता ।
'कोण तें ?—दोळ्यांक माका दिस ना ।
निद्देलेले कडे माका ताळो आयकूक पडता ।
''वैकुंठ पळै थोडे वेळाक
आनी वच मागोरि यमधर्मा लागि
तो निश्चय करतलो—तका स्वर्ग कि नरकु
'तुगेलें कर्म—फल तुकून पळैतलो ।
आनी उटा, नमस्कार करि
वैकुंठा वच्ची वाट साफ़ जावनु आसा'
—हो शब्दु आयकताना रडता तो मनिश
'मेगेलें हांगाचे आनीकइ जायनी
आशा साबार आसा, ती पुरती जावोची'
निदेल्लो तो हुमेता, जीवु तळमळेता
संसारु सोडचाक ताका व्हळ्ळे कष्ट दिसता ।
'वेळु पावल्लो तुका, लेक दिवचाक
यम-धर्मु तुका आपैता, केल्लेलें सर्व सांग ।'
'उटा, मृत्यु राकून राब ना
जिवाक ताण्डून यमलोकाक व्हरतना ।'

गड, गड, गड, बागिल हालता
मनिश होप्को भितर भायर ताण्डता,
'जन्मु हावें सार्थक केल्लो ना
देवाचेरि विश्वास दवरलो ना'
हांगा थकून बच्चे मनिश, जन्मा आयिल्ले
संतोषान घावतले, देवाचेरि विश्वास केल्लेले । □

(मंगळूर आकाशवाणीचे कृपेन)

# 12. सीतेक जनक रायालो उपदेश

सीतादेवी व्हरडीक जावनु वोच्या भायर सरली
तिजो तेग जण भयण्यो माक्शीं राबल्यो ।
त्योवय बामणा थयिं वत्तल्यो
त्या वेळारि जनक रायान सीतेक उपदेश दिलो ।
'चेर्डा तूं महालक्ष्मी, जल्यारि भुंयिचेरि जनक
रायाली धूव ।
तूं माका सोणु वत्तना, माका रण्णें येताचि ?
जनक मायेंतु घुसपना, धुवे खातिर
तो चड रडशें ना ।
तो संसारान्तु आसा जाल्यारीय ताजे
मन थांगा ना ।
धुवे! तूँ बामणा थयिं वत्ता
केन्नाइ पतिदेवा सेवाकरूक विसरनाका ।
पति राबतना तूंवय राव
ताणे बेसतरि तूंवय बेस ।
जेवण खाण सगट सुर्वेक ताका दीवुका ।
खयींय वत्तना ताजे ओट्टु बच्चुका
नीद काडतना ताजे पाय पोरसुका
ताजे लागि कोप कोन्नाइ दाको नाका
तुजे वैरि ताजो कोप चड हाडौ नाका

बूद आनी उदक जावनु तुमी मेळनु राबका
पति देवाले अम्मा बप्पाक तूं देवा समान लेकूका
तांची सेवा करची म्हळ्यार, तुवे प्राण दीवुका
म्हातारे प्रायेर तांकां चांग करनु चोवुका
केन्नाइ म्हालगड्यांलो आशीर्वाद घेवुका ।
बामणाले भावांभयणियांक आपण्यालीं लेकूका
तांका सगटांक अवसूली प्रीति दीवुंका
तूं तांची थ्हालगडी, तांचेरि दया दवरी
तशीच दंवकार जनांक प्रीतीन पळै ।
बामणा थयिं तुवें ताजे ओट्टु पावतची
बाप्पान दिल्लेले उपदेश विसरनाकाची
अशी सांगील्लें 'देवालें' उतर म्हणु लेकी
जानकी म्हळेलें नांव पवित्र करनु काडि ।' □

(मंगळूर आकाशवाणी कृपेन)

# 13. शूर्पणखेक कोण जाय ?

शूर्पणखा दण्डकारण्यांतु धावनु भोंवता
पावता पंचवटी लागि, देखता
सुन्दर राम आनी सीता बेसल्याचि ।
रामा देखून शूर्पणखा मेचवता,
सुन्दरी जावनु वत्ता ताजे लागि ।
'हे राम ! तूं माका बायल करनु घे'
राम सट आनी जवाब दिता—
'हांव एकपत्नीव्रताचो; सीता माका आसा
भाव लक्ष्मणाक हांगा पत्नी ना,
तूं ताजी प्रीति करनु घे ।
ती लक्ष्मणालागी वचून म्हणता—
तुजे भावान पेटैल्या माका हांगा ।
हांव कितली चंदी आसा पळै
माका बायल करि, पळै मेजे काळे दोळे ।
लक्ष्मण उडता कोपित जावनु—
'हांगा माका कोणय नाका
वच तूं रामाक शरण पांव ।
वापास ती येता रामा लागि—
'तुमी माका खेळौनाकाचि
माका तूंच व्हरडीक करि
नातरि सीतेक हांव मारतलीं'
तावेळ म्हणता राम—'उसळ हांगा थकून

लक्ष्मण तुका दितलो जाय तरेन'
वापास धावंता ती पाप लक्ष्मणालागि—
म्हणता—'बायल करनु घे माका
ना तरि नाश जातली सीता ।'
लक्ष्मण तावेळ पेसकाति काडता
तिजें नांक आनी कान कातरता,
आनी निबंगीता—'आनी कोण जाय तुका ?
मारता बोव ती येतायि दोगय भाव
तिजे—खर आनी दूशण
धनुष-बाण काडता लक्ष्मण
येता राम उग्र जावनु—हांका मारूक
हांवचि जावका ।
लक्ष्मणु सीतेली रक्षा करता,
रामु दुष्टांक नाश करता ।
शूर्पणखा रगत होळोवनु लंकेरि वत्ता
पांवता रावणाले सभेरि
म्हणता—सहोदरा ! पळे मेजी गति
राम लक्ष्मणान नांक—कान कतरले अशी ।
हाका प्रतीकारू करनूचि जायत
तांकां शिकयि एक पाठ
पंचवटीं वच, राम-लक्ष्मणाक मारि
सीते धरनु हाडि आतां ।



(मंगळूर आकाशवाणीचे कृपेन)

# 14. भांगरा घूडांतुली पक्षी

चेलियेक चड पैसे अशिल्ले कडेन मात्र
पळौन दीवनका
तिका भांगरा घुडांतुली पक्षी कर–नाका
थांगा खावचाक–जेवचाक आसतलें व्हय
न्हेसाक मस्त कपडां, घालचाक भांगर।
जाल्यारि जावका जालेले कडेन वच्याक
जाइना तिका ।
स्वतन्त्र जावनु ती भायर-भितर वच्य ना ।
जाय जालेल्यांक ती घंरल्याक आपैना
ताणे उटा म्हळ्यारि उटावका, बेस म्हळ्यारि बेसूका ।
ताजे ओट्टु मात्र भायर वच्युका ।
तिगेलें घर चन्द आनी व्होड आसतलें
जाल्यारि प्रीति थंयि ना आसतली ।
ताका पैसाचें पिश्शें, तें चड करचें कशी ?
तागेलें ध्यान हांतु आसा,
देवाली पूजा करता जाल्यारीय ।
बायलेक चेर्डुवांक प्रीति करना तो
वेळ आसल्यारीय
ताका गोत्तु आसा पैशा प्रीति मात्र
विगट कांय ना ताका शास्त्र ।

तागेली बायल भांगरा घुडां तुली पक्षी
ताजे लागि जीवन करता ती अशी
चड पैसे नात्तिल्याली बायल
जाल्यारि इतें ?

तिका प्रीति आनी स्वातन्त्य तरि मेळ्ळें
तिगेले अम्माक बप्पाक पळौंचाक ती वत्ता
जाय जालेल्यांक ती घरल्याक आपयता
भायर भितर वत्ता ती स्वतन्त्र ।
सुख हिका कि चड, भांग्रा घुडांतुले पक्षीक
भांगार पैसे चड न जाल्यारि इतें
शांति आसा मनांतु ।
मोल चड अस्सले जीवनाक
भांग्रा घूडु ना जाल्यारि इत्ते ?
सुख आसा जीवनांतु । □

# 15. आमकां जाय गुण

रूप आसल्यारि पुरो वे ?
गुण कांय नाकाई वे ?
म्हालगड्यांली ग्यादि अश्शी आसा—
—'रूप झरोवनु पित्ता वे ?'
गुण चांग जाल्यारि
ताजी चंदाइ तोण्डारि दिसता
हें मनां केल्यारि
दादलो बायलेक मेचवता ।
धुवे, रूप ना म्हणु
तुका मनां बेजारू नाका
चांग कार्य करनु
तोण्डारि हासु दवरका ।
देवाले दयेन तुका मेळतलो
एक चांगु बामूणु
तू तृप्ति पापतली ताका पळौनु
दोगांकयी देवु बरें करतलो ।



# 16. गृहस्ती

तिका म्हणताचि गृहस्ति,
ती घर फूट आनी चन्द करनु दवरता ।
समयारि सगटांक पोट्टाक घालता,
सर्वांगेलें सुख-सौकर्य पळैता ।
भोंवचाक आयल्यांक हासतचि बेसैता ।
लेकनात्तिल्लें आयल्ले अतिथींक सत्कार करता ।
अन्नाक वळवळेतल्ले भिकारियांक अन्न घालता ।
स्नेहमयी सर्वांकयि आवसु जाता ।



# 17. एकलो चोयता

तुवें कसलीय चूकि केल्यारि
कोणइ तुका चोयना म्हणु लेकल्यारी
वैरि अशिल्लो एकलो चोयता
हांव ताका देवु म्हणतां.
ताका सर्वंय दिष्टी पडता
तुवें करचेंय हांवें करचेंय
ताका सगटय तावेळीच कळता।
कोणय चोराइ करो, कोणय फटवण करो
कोणय झांको, कोणय कोपो—
हें सगट तो पळैता
आमगेले लेकांतु तें तें बरैता।
कितेंय करतना आमी आलोचन करका
फोडांतु पडचे फूडे पोळौका
पोणु जातरि रोणु इतें प्रयोजन?
रळ्यारि फल कांयीच ना।
चूकि करनाशीं पळौया
चांग कार्य मात्र करूया
हांव मनांतु केदनाइ लेकतां
—तो एकलो आसा चोयता।



# 18. पिस्सो

ताजे इतल्याक तो हासता
मनांतु भरलेले आनन्दान ।
अनंत सुख, अनंत प्रेम, अनन्त शांति ताका मेळ्या
ताका देकल्यारि दिसता—
ताजे पिश्शें भारी चळ्ळां ।

नामस्मरण करनु तो न्हाता
बुडून गेला जप-तपांतु
जनां ताका चोवनु रडता कि हासता
ताका गोत्तु ना, तो आसा सपन-लोकांतु ।

पीवका कि खावका, ताका गोत्तु ना
तोण्डांतु घाल्लेंले तो गिळता
तागेलें मन आसा परमात्मारि
जीवात्मु परमात्मु एकूची तो आसा सर्व दिकारि,
ही भावना घेवनु भोंवता तो
"भजनाचें सुख अनुभव करि
नाम-जपायें आनन्द अनुभव करि
हाजे पशी व्होळ्ळो संतोषु मनिषाक ना ।

जन्म सफलकरि, सर्वांकयि प्रेम करि,
सन्यासींली, गृहस्तांली, गुरूगेली, मातृदेवांगेली
एक लेकान प्रीतीन सेवा करि
हाका पिश्शे म्हण, तशी म्हणूच जाय तरि
हांव अस्सलो एकु पिस्सो
मेजे निमित्त ना कोणाक हानि
मोवालो चन्द एकु सोसो
जनांक द्रोहु दिवचो न्हय तो प्राणी ।
माका लागलां देवालें पिश्शें
हें सोडोवचाक मेजे लागि येवनकाइ
तुमकयि लागतलें हेंची पिश्शें
हें अनन्त सुखदायक पिश्शें आमकां जाय ।' □

# 19. ब्राह्मण कोण

ब्राह्मण म्हणतायि कोणाक ?
भुकेन एकलो येता,
तूं ताका आम्बूणु पेटैता
तूं तावेळ ब्राह्मण म्हैं, पुत्ता !
भुकेन आयिल्याक अन्न दितलो
तागेली जाति-मत पळै नात्तिल्लो
एक जीवाक अन्नान रक्षण करतल्लों
जीवान्तु परमात्माक पळैतल्लो ।
नग्न मनिशाक वस्त्र दित्तल्लो
उदक मागतल्याक दूद पिवैतल्लो
घायान पीडिता जालेल्याक पट्टी बान्धतल्लो
रोगान वळ-वळेतल्याक घरांतु
आपौनु ओखद पीवैतल्लो ।
घरां बेसूनु जानुवें घालनु
देवाक पन्नास निवेद, पन्नास
आरती करतल्लो
मनिस जाइना निज ब्राह्मण
जीवात्मांतु परमात्माक पळौनु
आदर करनात्तिल्लो ।



# 20. आत्मु राकूनु धर्म करका

म्हालगड्यालीं एकि ग्यादि ही
'आत्मु राकूनु धर्मकरि
कीस पळैनु पैसे वांटि
वांटून जातच पैसे नाति
पावली आमकां ही स्थिति
अशी येवची नज एक भीति ।
मर्यादेन चलका जाल्यारि पैसे जाय
हें सत्य, पैसा ना तरि कार्य कार्यि जायना
हात केन्नाइ कोणाचेय मुकारि उदारे करका नाका ।
किसांतु पैसे आसावे म्हणु सुर्वेक पळोका
धर्म दीवनु पैसे फूट कर नाका
केन्नाइ आत्म राकून धर्म करका ।



# 21. पात्र पळौन दान दीवका

दान कोणाकय दीवयेत वे ?
पात्र सुर्वेक पोळोका नवे ?
दान कोणाकय दिल्लें म्हळ्यार जालें ना
तो पापी कि चांगु म्हणु आमकां कळ्ळें ना ।
पापियांक दान दिल्यारि तांगेलो पापा वांटो
मेळता तुका, तें पाप जाता तुजे पायांक कांटो
तेंचि पात्र पळौनु दान दी
गाइक कतर्नु व्हरतल्याक दान दित्तना
आलोचन करि ।
सूरु पिवचाक वत्तल्याक दान दीना म्हणु मनां करि
बायलेक मारचाक वत्तल्याक दान दीना जाल्यारि
मनांक समाधान मेळतलें
चोरूं वत्तल्याक दान दीनी जाल्यारि
हेंचि अशी म्हणचे 'पात्र पळौन दान दी ।'



# 22. अवसान प्रार्थना

सकाळींचि उटानु हांवें प्रार्थना केल्ली
प्रार्थना मेगेली अवसान जाल्ली
प्रार्थना देवा लागि अश्शी शुरू केल्ली
मेगेले पतिदेवाले आत्माक पूर्ण शांति दी
तांगेली बायल जावनु माकावापास जन्म दी
दोगांकयी तीन-चार जन्म भितरि मुक्ति दी ।
आमी ओट्टूचि नामस्मरण करनु
प्रेम आनीं सन्तोषान मनुष्य सेवा करनु
त्यागु करनु संसाराचें सुख स्वार्थ सोणु
चेर्डुवां वरि निष्कळंक मन दवरनु
दोगयि कर्म-योगी म्हणौनु घेवनु
मुक्ति पावताचि परमात्मा तुजे लागि येवनु □

—वत्सला मंजुनाथ राव्



कवयित्री

श्रीमती वत्सला मंजुनाथ राव केरळची बरोवप्यांत प्रमुख आसा । ह्या फुडे तिगेले 'काव्यसंग्रह' आनी 'फुलां माळा' अशें दोन कविता संकलन उजवाडाक आयल्यांत । गार्हिक आनी स्त्रैण विचारधारा मात्र न्हय मार्मिक समस्याय तिजे कवितेंत वळखूंक मेळटा । कालिकट शहराचो प्रथम मेयर आसलो स्व: मंजुनाथ रावाली पत्नी वत्सला आतां कोंकणी वाचकांक आनी श्रोतांक सुपरिचित आसा । ही तिगेली 'काव्य धारा' केरळ कोंकणी अकादमीचें सतरावें प्रकाशन आसा ।

मोल : ५ रुपया